# निळें निळें ब्रह्म

शंकर रामाणी



# निळें निळें ब्रह्म



प्रकाशन क्रमांक : 103
1993

लेखक :
शंकर रामाणी
307, रॉय रोड, टिळकवाडी
बेळगांव.

'साहित्य पसवण' भागींक : पंदरा रुपया

प्रकाशक – राजहंस वितरण
1–मीनाक्षी बिल्डिंग, डॉ. व्होल्फांगु द सिल्व्ह मार्ग,
पणजी, गोवा – 403 001

मुद्रक – राजहंस ऑफसेट, पणजी

मुखपृष्ठ – गजानन च्यारी

मोल :
1993 वर्सा 40 रुपया
1994 वर्सा 48 रुपया
1995 वर्सा 58 रुपया

ISBN 81-85854-02-5

रवींद्र केळेकार
आनी
नंदकुमार कामत
हांकां–

*IF A POET HAS ANY OBLIGATION*
*TOWARDS SOCIETY, IT IS TO WRITE WELL*

*-JOSEPH BRODSKY*

# मांडावळ

## ब्रह्म

चलून चलून
पावलां शिणून
रुजवणाक आयलीं;
वरशी नदर
मळबां रोमून-
भरून भुंयेर रकली...

चोंयवशीन
मोनेळ... म्होवें-
तिकाय उतर फुटलें;
दिळ्येपेल्यान
पलतड्यां
ब्रह्म निळें देखलें...

## प्रिय...

तुजें पत्र पावलें.
तुवें बरयलां :
खूब दीस जाले,
हांगा
वारें-वादळ वेंगावन
झाडां-पेडां हुमटावन उडोवपी
खुनयाळो पावस पडटा
आनी कित्याक कोण जाणा ! तुज्या
काथलायल्ल्या उगडासांनी पेट घेतला ;
मन हुंवारून आयलां ;
जीव थाऱ्यार ना.

हांव
तुजेपरस कितलोसोच पयस
आशिल्ल्या ह्या अनवळखी गावांत
पावसाची मातूय सुलूस ना;
मळब गिमाच्यो रखरखीत जांबोयो काडटा ;
जीव तानेक भायर-भितर आशेला.
पुण तुजें पत्र वाचीतसावन
पुराय निर्शेल्ल्या काळजाच्या अंत्राळांत
अवचित जोगलां मारून
कुपं मांडूंक लागल्यांत आनी
वारें-वादळ शिरंत्रांत घुसून -
-घुस्मटून उटंगाराचो पावस केन्ना झडत
हाचो नेम ना.

# आदिबंध

शुभ्रा
म्हगेल्या भावाची नात.
दोन-अडिच वर्सांचे.
पयर
आमी तांगेर वचत जाल्यार
भितल्ल्या कुडींत.
दाव्या-उजव्या कुशीक
दोन सोबीत बऱ्यो बावल्यो घेवन
जिवाक बरें नाशिल्ल्याभशेन
बाजेर उदारें न्हिदलां.
म्हगेल्या घरकान्नीन ताका विचाल्लें...
तर ताणे सांगलें :
''हांव मम्मी गो;
मात्सो म्हजो हात धर.''
आनी मागीर तिगेल्या आदारान
उठून उबें रावलें.

येदेशें
पांच-धा आंगळाचें हें भुरगें,
ताणे अवचित म्हाका
म्हज्या भुरगेपणांतल्या आजोळच्या
एका काळखाकुडींत
ल्हवूच व्हरून सोडलो आनी
म्हजी आवय
तिच्या कुळारा आसतना

केन्नाकेन्ना कपळाक मिरीं लागतकीर
म्हाका कुशीक घेवन कुडींत न्हिदून रावताली
आनी मदींच आज्जेक उलो मारून
तिच्या आदारान उठून बसताली.
सारके तश्शें
म्हाका
शुभ्रान केल्लेवरी दिसलें.
तसो म्हाका खऱ्यानीच भास जालो.

... म्हळ्यार
खंयचेंय चली-भुरगें
जन्माक येतनाच
मातृत्व मिरयत येता
हें साप्प खरें.
ह्या संसारांतली पयली चली,
बायल,
आवय...
आनी कांय वर्सांनी,
आपल्या भुरग्यांक मांडयेर,
खांदार घालून हालय-धोलय करपी
म्हगेल्या भावाची नात,
तांचे मदलें आवयपणाचें नातें
सासणाचें.
अतूट.
एकाच धाग्यान विणिल्लें...
हो धागो
अखंड अशा सृजनाचो,

शाश्वत,
कळिकाळाचीं मातय आडमेळीं नाशिल्लो.

तनेरेच्या आडवेळ्या पावसांत
भिजून चिप्प जाता म्हणसर
कसल्याय तरी कुस्कुटाच्या कारणाक लागून
शुभ्रान अकस्मात
आळास परतील्लो हांवे आयकलो...
इतलो वेळ
सुस्त पाळण्यांत न्हिदील्लें
तागेलें भुरगेपण
आतां जागें जाल्लें.

## वाफोर

वाफोर
अजून येवना.
ती मात केन्नासावन
एकटीच
वाट पळेत आसा.

वाफोरान
तिचो कोण येवपाचो आसा
हें तिकाय
नीट खबर नासुंये.

हांवें विचाल्लें
तेन्ना तिणे सांगलें:
''केन्नाय तरी
वाफोर येवपाचो आसा
इतलेंच हांव जाण;
पूण पयस,
खूपच पयस मळब
जंय दर्याक तेकलाशें दिसता
त्या निळनिळशा देगेक
वाफोराची सावळीशी सुलूस
केन्ना फुटत
हाचो मातय भरवसो ना.
जाल्यारूय हांगा हांव पिशें कशें
कोणाखातीर थामलां

हांवच नकळं.
लोक म्हाका हांसतात...
हासूंदी.''

# कवी

तो एकलो
एकसुरो कवी
तागेल्या म्होडक्या घराच्या
जनेलांतल्यान दिसता त्या मळबाक
दीसरात पळेत आसता.
तो सामको मालूक !
तुमी ताका आपोंव नाकात
उलोवंक वचूं नाकात;
ताचेर नदरय घालूं नाकात;
पाटलीभर शेंकऱ्यांचो शिंवर
तो तुमच्या आंगामाथ्यार केन्ना घालीत
सांगू नज.

पूण
चुकून केन्नायतरी
तागेलें जनेल जेन्ना
निळें निळें मळब जाल्लें दिसता
तेन्ना दिगंतेचीं पाखरां
ताका नितळ उजवाडाचो साद घालतात;
केन्नाकेन्ना
तेंच मळब
भिरांकुळ कुपांची कामळ कामरून
तागेल्या काळजांत
घुस्मटपी मोडाक येवकार दीत,
खिणाखिणाक जोगलावन
अदृश्टाचो पावस झडयत एक

पांचवीचार वाट रेखीत रावता...
मात जनेलांत बशिल्लो कवी
तेन्ना कोणाकच दिसना.
हरशीं
तो एकलो
एकसुरो
मळबाक ओखेत
मोनेळींत बुडून आसता.
पिसो तो!
तुमी ताका केन्नाच उलो मारूं नाकात.

# धोल

कितलेशेच दीस जाले;
पयस सावन
घुमूघुम
असो एकसारको आवाज येता
म्हूण हांवें घरकान्नीक विचाल्लें
तर तिणे -
म्हाका पिसो केल्लेवरी सांगलें :
"तुमच्या राज्याक खबर आसल्यार !
दोनेक म्हयने जाल्या जायत.
आशीकुशीच्या गांवांनी
धोल वाजत आसात आनी
आतां तर तो आवाज
शेजारच्या वाड्या वयल्यान
आयकूंक येवंक लागला"

पळेत जाल्यार,
घरकान्नीन सांगिल्लें हें
सामकें खरें.
पयसुल्या
आनी म्हगेल्या गांवातले
कांय झांकुन झांकुन गांवकार जाल्ले
आपापले धोल बडयताले
म्हूण हांवेंय बेगीबेगी बाजारांतल्यान
आडक्या पायशिरीचो
एक धोल हाडलो आनी
ताचेर

पयली तोणी माल्ल्या·मात
कसलोच
आवाज काडी नासतना
धोल फुटलो !

अखेरेक
जावपाचें तें जालेंच :
म्हाका
म्हगेलो गांव
सासणाचो सोडून वच्चो पडलो...

# पयस पलतडच्या गांवांत

पयस पलतडच्या गांवांत
येदोळसावन इगर्जेच्यो
स - व - का - स
घांटी जातात.
पावशे दीस.
तातूंत
मेजून आठ घरां आशिल्ल्या
ह्या कुळागारी गावांतली
ओलीचिप्प
किण्ण कपलफुटकी तिनसान.
कोणा धनयाच्या गोठ्यांत निक्तीच
दाव्याक बांदिल्ली गाय
विचित्र सुरांत हांबेता.
कितेंच सुचना.
पयसुल्यान आयकूंक येवपी
घाटींचो आवाजय आतां मोनेला
आनी उदेत्या
काळखाच्या काशावांत
सुस्त
कोणाचेंय तरी मर्ण न्हिदलां...

# आश्विन

नितळ
अस्तमतेच्या वाठाराक
नाखुटशी,
निक्तीच न्हावंक लागिल्ली
बियेची कोर
तिनसानच्या कात्रीर
पयसुल्ल्या
बांदादेगेक आशिल्ल्या तळ्यांत
आपलें हारशेल्लें रूप
ओखेत रावल्या...

## केन्ना केन्ना

केन्नाकेन्ना नकळं कित्याक
नेतल्ल्याचो भास जाता
भायर-भितर खर्शेता
जीव म्हजो.

आलतड्यां रावन उबो
पलतडींच्यो काडटां यादी
'चलगो बाये घोवाक सोदी'
सांगचें कोणा ?

कळना कोणे माथ्यार म्हज्या
संसाराचें थेयलां वजें
सुख-दुख तुजें - म्हजें
तोलना म्हाका.

# सासाय

आजमेरेन
तुज्या सांगातान चलताना
म्हज्या थकील्ल्या पावलांकय आतां
नवी आंकवार वाट फुटल्या
आनी धारेल्ल्या नदरेमुखार
एक अनवळखी गांव
निक्तीच फांतोड जाल्लेवरी पयस
झिळमिळूंक लागलां...

म्हाका होलगल्ली
ही वाट फक्त म्हजी
एकटयाचीच;
जाल्यारूय धर्तरेच्या दिश्टाव्यान
भारावल्या म्हज्या दर एका पावलाक
तुज्याच सासणाऱ्या सासायेचे स्वास -
उस्वास आसात.

# किशोरी आमोणकर : यमन

भर तिनसानच्या वेळार
तुज्या म्होंवेल्ल्या स्वरांचें
नकळटांच
म्हज्या काळजाच्या पोशांत
थेंबेल्लें अमृत चाखीत चोखीत
तृप्त उपाट आनंदांत परतलों तेन्ना
कार्तिकांतल्या मळबांतलीं नक्षत्रां
पेटील्ल्या पँट्ट्यांच्यो माळो जावन
म्हज्या घरभर पर्जळटाना
पयसुल्यानच
हांवे पळेली...

# माघ

मोगरी कशी
घमघमीत फुलून आयिल्ल्या
चतुर्दशीच्या चान्न्यांत
सरत्या शिंयाच्या शिर्शिरींत
न्हिदेंत गुल्ल जावन सप्नेल्ले
एकटुक्या बांदावेले
म्हालगडेशे माड
अदृश्टाकडेन झोंपय घेतिल्ल्यावरी
कोणाच्या गोपांत
रिगूंक सोदतात
कांयच कळना !

# वाग

शिंया-कुडकुड्याची
किण्ण काळखी किरमणी रात;
भायल्या-भितल्ल्या दारांक आडामे घालून,
गच्च बरी माथ्यावेल्यान कामळ कामरून
कुडींत
हांत दोळे धांपून पडलां.
पूण
दोळ्यांक न्हिदेची मातय भूल ना.
म्हज्या उशावयर
केन्नासावन कोणाचोय तरी
धाप लागून खर्शेल्ल्याभशेन
भिरांकुळसो आवाज कानार पड्टा.
भयान हातापायांक थरथरो सुटला.
कामळीचें फटें ल्हव-ल्हवशें उक्तावन
काळखाचेर नदर भोंवडावपाइतलोय
म्हाका धीर ना जाला.

खऱ्यानीच
तो कोण आसुंये काय?
ताच्या आंगाचो उग्र कर्पल्लो वास
सोसूं नज इतलो कुडींत पातळ्ळा आनी
खंयच्या खिणाक तो रागान म्हजेर
घुरी घालीत हाचो मातय भरवंसो ना.

म्हज्या घराफाटल्या-फुडल्यान
ना दोंगर ;
ना रान;

वा मातिल्ले गल्लान घुस्मटलेलो वाठार;
तशें पळेल्यार,
तोय म्हजे जिणेवरीच सामको सुको सडसडीत
रात-दीस भितल्लेभितर धगधगपी,
तापिल्लो एकमुळो सडो कसो!
पूण आज म्हजी नदर मंत्रून
खंयचें अनवळखी सावज
म्हज्या घरांत कशें आनी केन्ना रिगलें
कांयच कळळेंना.

रात वाडत वता तसो
म्हजो जीव खासावीस जाला.
हांव भायर-भितर घामेलां.
जाल्यारूय म्हज्याच कांचवेल्ले काळजांतल्यान धीराचो,
उमाळून आयिल्ल्या मायेमोगाचो साद
म्हाका कोण घालीत आसा जांवये?

कामुरलेली कामळ
आतां हांव भिरकावन उडयतां आनी
दोळ्यांचीं कवडुलां ल्हवूच उक्तीं करून पळेतां:
काळ्या-धव्या आंगाचो एक वाग
आपलेच नादांत गुल्लजावन सुस्त
म्हज्या उशावयर बसला...
धिटायेन हांव ताका म्हण्टां :

वागा वागा खावं नाका
रागार फुगार जावं नाका
मनीस खरेंच पापी

मनशाक भाजून खावपीः

वाग
किदें समजलो, कोण जाण!
तो आनीकूय म्हज्या लागसार आयलो
आनी काकुळट केल्लेवरी
म्हाका पळेतच रावलो...

# गीम

सुर्या माथ्यार फुलतना
घोंपरभर रेबेल्ल्या तळ्यांत
उपाट सुस्तावल्ली गाबणी म्हस कशी
दनपार.
चोंयवशीन दोंगुल्ल्यांची
रखरखीत सासाय आशिल्ल्या
मिटमिटया दोळ्यांच्या
एका माणकुल्या गावांतली
खाची कोंयड्यांतल्यान मसुंडेमेरेन गेल्ली
अशीर,
कर्मकट्टी वाट आनी
व्हाळापलतडच्या लिंबिणीच्या
सुकील्ल्या खांदयेर थिरावन
वताभारान हुलपल्लें
भोंवतणच्या सैमाचें काळीज
कोरांथून काडिल्ल्यावरी
कोगळाचो सूर....

# वाट

‘आषाढस्य
प्रथम दिवसे...’
सांजवेळ.
हुतहुत्या पावसान
मात्सो विसव घेतला.
आतां
जुवानपणाची पांचवी नदर
फुटिल्ल्या पावलांक
चवथ्या दिसाचें न्हाण न्हावन
मानेर केंस सोडिल्ल्या पुरंध्रीवरी
पायांपोंदची वाट झळकूंक लागल्या...

# सरत्या श्रावणातल्यो कविता

(१) पावसाची धार
इल्ली इल्ली
मुणेत वता.
वतांय
आतां तन्नीं रसरशीत
न्हावंक लागल्यां...

(२) पांचवे पांचवे
अलंकार
धर्तरिचे आंगार
आनी
खंयच्या कांकणकारान
तिका हातभर
पांचवो चुडो घाला काय अशा
नदरेन हांव तोखेल्यार
तुवें अवचित म्हळें :
'तुमकां खबर ना दिसता!
निक्तोच
धर्तरिक पांचवो म्हयनो लागला....'

(३) वारो
सोसूं नज इतलो
पारपोळ जाला
शेतां
आतां आंकवार चेडवां
तांकां

एकसारको पिसायत रावला...

(४) पोरसांत
म्हस्काच्या खांदये-खांदयेर
पोपटांचे भिरें
- एक पांचवेंचार अजाप !
अवजाळी श्रावण....
तांच्यांच मनांतलें न्हयं मू तें पाप ?

(५) माथ्यार न्हाल्ल्या
लांब काळख्या केसांचो वास
आशिल्ल्या चान्याच्या शेजेर
गच्च कामरुणात
म्हजे शेणील्ले हात...
तनेरेच्या हारशांतल्यान दिसता
काळजा-कुर्कुटांत
आपशींच
चंद्रान वेंगिल्ली रात...

(६) म्हगेल्या
बोल्सांतल्या घामेल्ल्या
लेंसारलेगीत
पावसाच्या लिक्क पांचव्या अत्तराचे
चार-पांच थेंबे शिंपडल्यात....

# चीट

तूं कोण ?
खंयची ?
म्हाका कांयच खबर ना.
पयसुल्यानलेगीत तुका पळेल्ल्याची
याद जायना.
जाल्यारूय
एकमेकांचे ओंठाक ओंठ,
काळजाक काळीज दशील्लेवरी
म्हाका कळटा -
-कळना अशा अमुरपिक्या अर्थाचें
तुवें जें चिटींत बरयलां
तें किदें?

चिटीर
तुजो नामोय ना.
नासुंदी.
पूण आज वळीवळींतल्या
अनवळखी अक्षरांतल्या
अनवळखी अक्षरांक
उपाट कळवळ्यान भिजिल्लीं
हयन्हंयशी एक
पांचवीचार वाट फुटल्या...
त्या वाटेर नवरात्रांतलें नमीचें
चान्नें कशें तूं
म्हज्या सांगाताक आसा काय किदें?
हांव खऱ्यानीच नकळं.

# मोर

(१) मन :
आशाढकुपांनी गच्च
दाटून आयिल्लें मळब;
जीव गोळाक लागिल्ल्या ह्या
हुमकळण्या वेळार
पयस
अटंग्या रानांत निक्तीच
मोरांक जाग आयल्या...

(२) सरत्या
आडवेळ्या पावसांत
तुज्या जुवानपणाची चूड लागनाफुडें
शिरंत्रांतल्यान
म्हजें रगत पेट्टकीर
भितल्लेभितर
भिरांकुळशें मळब जोगलावलेलें,
गडगडलेलें
तुवें पळेल्लें ?
आयकल्लें ?
ना जांवये.
तुका फक्कत याद आसा
ती पांखां फुलोवन
उपाट तृप्तीन दोगांच्याय मनांत
भान सुटून नाचिल्ल्या मोरांची...

(३) मोर
पिशे कशे
नाच नाच नाचतात...

नाचूं दी.
म्हगेल्या आंगणांत पडिल्लो
तांच्या उमाळ्याचो फुलां-शिंवर
तूं मात्सो
तुगेल्या व्होटयेंत पुंजायशी ?

(४) तारयामामा,
तारयामामा,
आज म्हज्या रगताक
जोरगतीची भरती आयल्या;
म्हाका पलतडीं पाय.
थंय
म्हज्याच काळजा-वाठारांत
मोर मातल्यात,
पिसावल्यात खंय !

(५) ह्या तरनाट्या
गावांत नव्या नवलांचे
मोर आयल्यात
अशें आयकलां तें
खरें व्हय ?
पयसुल्यान
एक वेगळोच
निळया निळया रगताचो उजो
अख्ख्या गावांक लागिल्लो हांवें पळेलो
म्हणून म्हण्टां.

(६) अर्थ ?
कसलो अर्थ?
'तुका तो केन्नाच कळपाचोना'

अशें
खासा मोरांनीच
म्हाका सांगलां.

(७) पयलेच फावट
खऱ्यांनीच
हांवें मोरांक म्हळें :
तुमी म्हगेर आयले,
नाचले
म्हणून नकळटां
हावेंय
तालार पावली माल्ली...
तेन्नासावन
मोर अवचित येवन
दारांत,
मनांत नाचून वतात...

## मळब आनी झाड

(१) सुर्यान
सकाळीं सकाळीं
उजवाडाची घुरी घालनाफुडें
मळब
दिपकायल्ल्या दोळ्यांनी
झाडाक
सोदीत रावता
आनी तें आपली पांचवी
बिटबिटी नदर वरशी करुन
मळबाक ओखेता...

(२) दिसाचें
मळबांत मळब
आनी
झाड मातयेंत
पाळां-मुळां रोमून
आपल्या जाग्यार उबें
घट्ट.

(३) धाय दिकांनी
उटंगार काळोख.
पूण मळब
मोठें नाड ... निखटयो
नखेत्रांच्यो दिवंट्यो गच्च पेटोवन
खंय उडून गेलां
कोणाक खबर !

(४) रातीचें
झाड लेगीत

थाऱ्यार ना.
जाग्यार ना.
आपल्या विशाळ सावळेची
पसय पसरावन
तेंय
भोंवती-भागरथशें
संचाराक गेलां...

(५) पयस पल्ल्या
दिठ्येच्या गावांत
चान्याचो चंवर फुटिल्लें
एक
नितळ अशें तळें आनी
ताच्या धव्याफुल्ल कांठावेल्यान
लज-भीड सोडिल्ल्यावरी
झाड
नाका तितलो वोणोव घालून
पाणयांत
आळून आयिल्ल्या मळबाचो
उमो घेता.

(६) भास-आभासांच्या
झुल्यार बसोवन म्हाका
झोंपय दिवपी
ही वेळ देदिप्य अशा
दिश्टाव्यान भारावल्या
म्हणून
झाड-मळबाचें नातें

म्हज्या शिरंत्रांतल्या रगतांत
रुजून आयलां...

(७) आतां
म्हज्या दोळ्यांत
मळब
आनी तना -
-मनांत रुजिल्लें
एक झाड.

(८) दोळ्यांनी
दिको सांसपितना
सदांकाळ
उजवाडाची धार
हांव आंगामाथ्यार घेतां.
आतां
अदृश्टाकय एक
तेजीश्ट अशी देग फुटल्या
आनी झाडाच्या खांदये - खांदयेर
हालत - धोलत
अप्रुपांची सवणीं गायतात
सासणाच्या सासायेचें गीत.

(९) मळब
लिक्क निळें
मनांतल्या मनांत भुर्कुटून
दोळ्यांत हारशेलां आनी
सप्नांचीं घुंगरां बांदून
झाड
भायर-भितर पालेता...

वसंतऋतु
आतां पयस ना !

(१०) मुदलांत
नांवगांव नाशिल्लीं
पिशेपणां पांगरून
आज हांव खंयच्या वेगळ्या
विश्वांत वावरूंक पळेतां,
जयं रात-दीस ह्या
संवसाराच्या नेमापेल्यान सुर्या
दोळ्यांतल्या मळबाक सादयत रावता
आनी आठय आंगांनी
फुलून आयिल्ल्या झाडाची,
पांचवोचार उजवाड वियेल्ली, सावळी
म्हज्या रंद्रारंद्रांत
कार्तिकांतली फांतोड कशी फांकल्या...

# जात्रा उलगतकीर

फांतोड्डेच्या अदमासाक
देवतेचो तेर ओडून धांपेल्ले
कांय कुटकुटीत म्हाजन
आपल्या हातांचे तामशेल्ले
तळवे एकमेकांक दाखयता म्हणसर
कुडकुडयाची रात आंगार
काडिल्ल्या मळबाक तामशी फुट्टा ;
देवळाच्या दर्वट्याच्या दिकेन
पयसुल्या गांवागांवानी परतुपी
लोकांची रीग लागता...
अजूनय मांडकार जागरणान न्हिदेक
पिकील्ल्या दोळ्यांनी खाज्या-पुडयो बेगीबेगीन
बांदून उरील्ल्या-सुरील्ल्या गिरायकांक
वयार करतात... मदींच कोणा एका
भुरग्यालो बोमाडो फुटिल्ल्याचो आवाज येता.
'श्री वेताळ प्रसन्न' ह्या हॉटेलांतल्या पोन्या
बांकार बसून कांय म्हातारे-कोतारे फुड्यांतल्या
म्होडक्या मेजाचेर निक्तेच हाडून दवरील्ल्या च्याचे
हुनहुनीत घोट घेतात....
कलावंतानी रातीं दिल्ल्या विडयांचो
'रंग' कोणाच्याच ओंठार मातलेगीत दिसना.
जात्रा आतां उलगल्या...
सगळी रात अत्तराच्या, फुलांच्या वासांनी
पर्मळून जागील्लें, दिव्यांनी भायर-भितर झगझगलेलें
देऊळ शांत... शांत जालां...
प्राकारांत दाटीवाटीन आशिल्ल्या
मांडांनी दोळ्यांर पड्डे ओडून घेतल्यात.

आतां आशीकुंशीक कोणाचीय
व्हडलीशी जाग ना, जाल्यारूय अगरसाळिच्या
माळयेर माथ्यांत सुरंगां-वळेसर माळील्ली
एक आंकवार पिक्या चान्या-आंगाची
चली जागून... 'जागून दिवली कशी झेमेल्ल्या
नदरेन कोणाचीय तरी
वाट पळेता...
दीस इल्लो इल्लो वयर येवन
भांगरशें वत पातळ्ळां आनी रातभर
जात्रा जागोवन पयस पाटयावेल्यान
शेजारच्या गांवावटेन एक,
न्हयं जाण्टें-न्हयं नेण्टें अशें, गावड्याचें
जोडपें चलत रावलां... मदींच
रंगार येवन 'ता', मुमुर्खेंचि तिका' विचारता :
'आगो रामुल्या खोरेंच सांग हां !
जात्रेंतलें तुका चोड किदें घोस्ताक गेलें ?'
रामुलें मात्शें लजील्ल्यावरी दाखयत
'त्ये'च्या कानाकडेन तोंड व्हरून म्हण्टा :
'सांगों ?
म्हगे खोंपो आनी
तुगे रुमाल...' आनी तागेलें
मेकळें म्होंवाळ हाशें फुडली वाटभर
फांकत.... फुलत वता....

# तीन कविता

(१) आगो शेवण्या,
तुजो गांव खंय?
ताणे म्हळें :
मळब
वेंगेत येता थंय.

(२) कालचे रातीं
चान्नें
काळोख वियेताना
हावें पळेलें...

(३) कविता येता
म्हळ्यार :
पिशाक केन्नाकेन्ना
मळबायेदीं
पांखां फुटटात...

## प्रिय

तुजें पयर पाविल्लें पत्र :
‘तुका फकत शिंगां फुटपाचीं उल्ल्यांत...’
अशें
मदींच म्हाका थोमणो मारून
तुवें किद्याक बरयलां ?
तशें पळेल्यार,
सगळ्यांचेच नदरेन हांव एक पिसाय
(आनी नसाय लेगीत).

... पुण खरें सांगू ?
कांय दिसां फाटल्यान
उमाशेच्या उपाट बिण्ण काळखाक
पौशांतली पारजत पर्मळाची फांतोड फुटिल्ली
आनी घोटेरांतलें एक सवणें
केन्ना
खंयच्या दिकेन उडून अदृश्य जालें,
कळळेंचना.

कालचीच गजाल :
अवचित
भितल्याभितर जीव घुस्मटून
जोगलांच्या भिरांकुळशा खातकुतल्यांनी
अख्खें मळब खासावीस करपी
खुनयाळीं कुपां दाटून आयलीं
तेन्ना
मोर कसो शेंपो फुलोवन
अदृश्टाच्या अमृत-पावसाचो शिंवर
हांवें आंगामाथ्यार झेललो...

तुका खबर आसा तें ?

हांव पिसो,
मालूक न्हयंच हें
आतां तरी तुका कळुंये.

## कविता

काळखी रात.
मद्यान
मळबाक मिर्गाआदींच्या
जोगलावणेचें हुलपावणें जागरण आनी
खापुल्ल्या कुपांची आकांताळी करंदाय.
आतां
झाडापेडांचीं हाडां सदळावपी
बेताळ कशें थयथय वारें सुटलां.
फाटोफाट
झोंपय मारील्ल्यावरी
अवेळी पावसाच्यो दडकेर दडको...
अर्दीरात घुस्मटलेलो,
तळमळ्ळेलो
जीव न्हिदेंत चिप्प भिजला.

निक्त्याच
वियेल्ल्या माजराचीं
मोवसार धवींफुल्ल पिलां कशीं
दोळ्यांर देंविल्या किर्णांनी
आयिल्ली हयन्हंयशी जाग
आनी पयलें न्हाण
न्हाल्ली आंकवार चली
तशीच
दुसऱ्या दिसाची
तृप्त
देखणी सकाळ.

# पुजा

आज सकाळीं फुडें
पोरसांत गच्च बरीं फुलां
फुलून लेगीत
तुज्या हातांतलो कुरपणो
रितोच आशिल्लो.
पुण
हांव खऱ्यानीच अजापलों तो
'म्हजी पुजा जाली !'
ह्या तुज्या भितल्ल्यान
उमाळून आयिल्ल्या उतरांनी आनी
मुखामळार
तेन्ना पयलेच फावट
मान्नी पुनव कशी
प्रसन्न,
एक वेगळीच कांत फुटिल्ली
हांवें पळेली...

## लायट्

शारापासून
कितलेशेच पयस आशिल्ल्या
त्या दोंगरी गावांत लायट नाशिल्ली...
गांव पळेल्यार माणकुलें,
रानवट,
साठ-सत्तर घरांचो कुळवंत असो वाठार आशिल्लें,
साप्प वेगळें.
व्हड रातीलेगीत थंयचे लोक चुडी विरयत
आप्ट-धोपटत नासतना
सडसडीत चलताले...
दिसाचो निर्मळ उजवाड
उमाशेच्या बिण्ण काळखांत तांका सादयतालो...
किद्याक कोण जाणा !
लायटींच्या भगभगीत उजवाडाक संवकल्ले,
त्या एकल्या एकसुऱ्या गावांत
आपलें पावल दवरुंक भियेताले.

कांय दिसांफाटल्यान
सरकारान एक फर्मान काडलें :
"NOT A SINGLE VILLAGE SHOULD BE
LEFT UNELECTRIFIED"
...आतां
लायट् आयल्या आनी
त्या दोंगरी धाकटुल्या गांवाचेर
शाराची बुरशी कळा
इल्ली इल्ली चडत आसा...

# भूल

मोनेळीच्या कुशी
मुंगरल्या रात
विसरली वाट
उतरांची.

दिकांनी काडलां
काळखाचें रीण
दिठ्येंत खीण
परमळ्ळें.

मनाच्या मातयेक
वेगळोच वास
अदृश्टाचो पावस
अदृश्टांत.

कोणाची गा हांगा
उजवल्या कूस?
म्होंवदिणे मूस
कडसले...

खंयचें हें गांव ?
पांचवेंचार सैम
अप्रुपाचें ब्रह्म
चंवरेता.

पालवली वात ;
फोतोड्डेची भूल
उजवाडाचो धुल्ल
म्हज्या दारां.

## सवणे

पिके फिरंगाळे दीस
वत हारसो जालां
मळब पाणयां व्हिलां...

पिसो-रवळु वारो
ताका सांवरना तोल
ताचो म्हादळयो बोल

जीण : माणकुलो गांव
मन सवणें कशें
खंय उडटा पिशें ?

# एकवीस सप्टेंबर, १९८९

(सर्गेस्त प्रा. जी. व्ही. कंटक हांच्या उगडासाक)

मायाचे दीस
दनपारच्या वेळार
वाटेर तुमी सामकार मेळटात,
उलयतात...
जाल्ली वळख वाडत वता...

एका आयतारा
सकाळीं
हावं 'स्वाती' बिल्डींगेचीं सपणां चडटां;
तिसऱ्या मजल्यार
तुमचो सुपुल्लो ब्लॉक....
एका कुडींत
पुस्तकांनी नीटनेटक्यो भरील्ल्यो
तीन-चार आलमारी...

दर खेपे
पुर्तुगेज-फ्रेंच-स्पॅनीश लेखक-कवी,
तांच्या साहित्यासंबदान
वर-देडवर तुमी रंगून उलयतात...
हांव फकत
कवड्याचे कान करून आयकतां आनी
दर खेपे
एका आगळ्या तृप्तीन
भरील्लो पोसो घेवन पर्ततां...
एक फावट
मिगेल तोर्ग ह्या पुर्तगेज कवीची
एक सुंदर कविता- 'खेळणे'

तुमी इतले तल्लीन जावन,
कवितेच्या आशयाक वेंगावन,
वाचून दाखयतात
आनी हावं एका सलील-तनेरींत
पिशेपणाचीं पांखां फुटिल्ल्यावरी
सवणे कसो उडत घरा येतां...

तुमचो-म्हजो सहवास
तसो चड वर्सांचो न्हयंच ;
जाल्यारूय रेपुल्याचें दिसांकणकणीं
झाड जावपाकडे पाविल्लें आनी
हें अकल्पित धन
तुमचेपासून कितलोसोच पयस आसूनय
हांव सदांकाळ सांबाळटालों...

हांव गोयांत.
अकस्मात
तुमच्या दुयेंसाची खबर
एका इश्टाकडल्यान कानार येता...
दुसरे दिसा -
तुमच्या समाचाराक हाव हॉस्पिटलांत...
पयले खेपे :
तुमी न्हिदून खाटेचेर.... निर्शेलेले...
दुसरे खेपे :
चामत्कार जाल्यावरी
तुमची भलायकी फुलिल्लें फूल कशीः
हाव खोसयेभरीत बोल्सांतली
नवी कोंकणी कविता
तुमकां वाचून दाखयतां....

कवितेचे निमाणे कडवें परतून वाचतां.
'पालवडी वात :
फांतोड्डेची भूल
उजवाडाचो धुल्ल
म्हज्या दारां.'
कविता आयकल्या उपरांत
तुमी उस्फूर्त म्हण्टात :
'हो उजवाड सदांचो न्हंय;
साप्प वेगळो.'

त्या दिसाची तारीख आशिल्ली
६ सप्टेंबर, १९८९;
आनी जिस्त पंदरा दिसांनी
तुमी तो 'उजवाड'
खऱ्यानीच पळेलो म्हणपाचें
म्हाका कळटा...

## प्रस्थान

दीस
केन्नाच अस्तमला.
दिकांनी दिल्लें अदृश्टाचें देणें
घेवन आपापल्या घोटेरांत पर्तल्ल्या
थकील्ल्या भिऱ्यांचो किनरो कुलकुलाट
झाडापेडांक फुटला....
आतां जीव खासावीस करपी
ह्या हुमकळण्या वेळार
सरभोंवतणच्या सैमाच्या दोळ्यांत
सांवळ्यांनी अचळय रेखील्ल्या
दाट काळखाच्या काजळाकय
फांतोड्डेच्या झिळमिळट्या उजवाडाची
एक तांबशी तिरीप आसा;
आनी तिच्या सलील सांगातान
म्हज्या एकल्या एकसुऱ्या
जिणेच्या भोंवडेक वचपाचें आज
हांवें प्रस्थान दवरलां...

# जोरगत

जिणेची जोरगत :
भरतेक भार
रगताक हुंवार
चान्याचो.

तापिल्ले वेंगेंत
पालेलां रान
कांचवेता पान
काळजाचें.

भितल्लो दरया
उसळ्ळा आज
दिकांची गाज
धुमसता.

पिकिल्ले नदरेक
अनोळखी कांठ
पातळ्ळ्या वाट
सासणाची.

# तो

कोणरे तो
ह्या वेगळ्या वाटेन चलत रावला ?
हाडात धरून ताका हांगा
आनी ताचे हात-पाय घट्ट बरे
राजवान आंवळून पयलीं म्हज्या
घराफुडल्या झाडाक, गच्च बांदून घालात...
हांव किदें सांगता तें
आयकतात काय ना तुमी?
जो सदांच वेगळे वाटेन वचूंक सोदता
ताका रोखडोच 'कापाझ' करूंक जाय
नाजाल्यार तो आमकां
एक खीणलेगीत जियेवंक दिवपाचोना.
तुमकां खबर आसा ?
हांव केन्नाच गेलोंना,
येवजिलें लेगीत ना वेगळ्या वाटेन वचपाचें
मागीर ताकाच एकटयाक तसलो
नश्टो ध्यास, हावेस दिदयाक ?
तो बेस बरें जाण :
लोक ताका ताळे लायतले,
कुटलायतले
ताच्या तोंडार थुकतले....
पूण हांव सांगतां तुमकां :
आनी कांय वर्सांनी
जेजूभशेनूच ताकाय लोक
माथ्यार घेवन नाचतले,
घराघरांनी ताच्या पायणेलामुखार
वाती लावन

दिमी मारून रातीकडे रोझार करतले....
म्हणून कान दिवन आयकात :
'नवो उजवाड' ताणे
दाखोवचे पयलीं आताच
तुमच्या बुटांच्या खिळ्यांनी ताका चेंचावन,
जिवेनिशीं मारून
ताच्या मड्याचो लासून गोबोर करूंक जाय...
उठात तर,
पळात ;
कळाव लायनासतना
हांगा हाडात ताका धरून;
नदर बारीक करून पळेयात :
त्या वेगळ्या वाटेन
कितलो फुडें पावला तो....

## तार

दीस
निक्तोच धारेक लागला...
सकाळसावन
आशीकुशीच्या दोंगरांमाथ्यार
पिकील्ल्या लख्ख
उजवाडाच्या सासायेचें
न्हयंतल्या संथ पाणयातळां
सुवर्ण जालां
आनी खंयतरी पयस
बंदरार
तारयामामान घाल्लो उलो
अचकीत
कानार पडटा :
'धनयांनो, येयात ;
बेगीन चडात ;
आतां
आलतडची तार
पलतडीं वचपाचो वेळ जाला...'

# चार कविता

(१) भर काळखांत
चल
चल
चल्लों... आनी
आतां
उजवाडाच्या धारेर
खोल
काळखांत बुडलों...

(२) म्हजें
हारशांतलें रूप
म्हाका पळोवन
किदयाक हांसता...
हांव नकळं.

(३) दिवो. हावेंच तो वाडयलो...
मागीर
हांगा जळींमळीं जो
उजवाड पातळ्ळां
तो खंयचो ?

(४) वाट केन्नाच सोंपली
म्हूण
पावलां थंयच्या थयंच
थीर.
आतां तांकांच
एक
वेगळी वाट फुटल्या....

# मीर्ग

म्हज्या बापायल्या
पोन्न्या जर्मनमेक वाखराची
तिखट लखलखीत धार तशीच
हांगा सरत्या गीमांतली दनपार.
सगळेकडेन
जीवघेणी भगभगीत स्तब्धताय,
वाऱ्याचें शिटूक पान चुकून लेगीत हालना,
धोलना,
मळबांत दुर्वास कसो सूर्या पेटला
आनी ताच्या प्रखर स्त्रापान
खोलमेरेन भाजिल्ल्या धर्तरेचे भोग
शिमेभायर गेल्यात...
जाल्यारूय मात्सो कान दिवन आयकात :
अस्तमतेकडल्या अंत्राळांत
कोनशाक
अवचित मांडूंक लागिल्ल्या कुपांक
निक्तोच
हय-न्हंयसो कंठ फुटला...
मीर्ग
आतां पयस ना !

# चित्र

तें चित्र
कोणे काडलां,
म्हाका कांयच खबर ना

पयलेच फावट,
भुरगेपणांत,
हांवें तें पळेलें, ते दीस
शिंयाळे आशिल्ले...
चित्रांत -
एक धवें, धादोशी
सांजवेळचें मुमुर्खें मळब;
ताचे खाला
अंतपार नाशिल्लो शांत समुद्र
आनी दक्षीण दिकेक,
पयस,
माथ्यार कुकुल्या घराची घुमटी घेतिल्लो
एक पांचवोचार दोंगर ;
तांच्या मुळसांत साताठ तरनाटे माड आनी
मात्शीं चार पावलां फुडें
पाणयांत रिगिल्ल्या दोंगराच्या तोंकामेरेन
पिठया-लाडवावरी धवीफुल्ल वेळ.

मागीर
म्हज्या जुवांनपणांत
तें चित्र परतून पळेलें
पदेराल्या खोर्नांत
निक्तोच भाजिल्लो ब्रेड तशें
भर गीमांतल्या

दनपारचें रसरशीत मळब;
भरतेर खूपच ल्हारेल्लो समुद्र
चिप्प भिजून धुंवरेल्ल्या देगेवेले
मळबाकडेन झोंपय घेतिल्लेभाशेन मदनमस्त माड
आनी ल्हारांच्या पाळण्यांत बशिल्लेवरी
पयसुल्यान
दोंगरादिकेन शीड फुलोवन येत राविल्लें
एक अनवळखी तारूं;
मोगरेकळी कशी फुलून आयिल्ल्या त्या
दोंगारामाथ्यावेल्या माणकुल्या घरांत
तेन्ना कोणयतरी रावतालो जांवये...

काल
कितल्याशाच वर्सांनी
तें पोन्नें चित्र
हांवें दोळे भरून पळेलें:
समुद्र तोच,
तसोच आशिल्लो;
इतल्या वर्सांमजगतीं
म्हा भिरांकुळ अशें वादळ जावन
गेले उपरांतची काळी किरांव शांतताय
दिकांनी दाटिल्ली...
म्हातरेल्ल्या दोंगराच्या मुळसांत
माड निश्प्राण जावन उदारे पडिल्ले;
तांचे कुशीक वादळांत फुटून
कुडके जाल्ल्या तारवाचें,
दर्या खारसाणीक संवकल्लें, कुशिल्लें मडें;
तें एकलें एकसुरें
धाकटुलें घरलेगीत मोडून पडिल्लें आनी

## भास

भर उमाशेची
काळें मांजर कशी
काळी कुळकुळीत रात.
आशाढ.
आर्द्रा नक्षत्राच्या रातदीस
घोसळ घालपी पावसान
न्हंयक्
आलतड–पलतड एकठावपी
हुंवार आयला...
निक्तीच मद्यान जाल्या –
जांवकना.
अवचिन्नाळ्या वाळेस वाऱ्यान
झाडापेडांसयत घोटेरांतल्या चिप्प
भिजील्या पाखरांचो मातय दोळ्यांक
दोळे लागूंक दिवंकना... आनी
उमाशेची रांडाव रात
भूत कशी विद्रूप सावळ्यांचे
भिरांकुळ हात लांबयत
म्हगेल्या बंद कुडीच्या दाराच्या
खाचींतल्यान अचळय भितर सरून
म्हाका अकस्मात मारील्ल्या वेंगेन
फायच्या फांतोड्डेचो भांगरा-भास
म्हज्या रंद्रारंद्रांत जल्माक घालता...

# अर्थ

पुराय कलय वचून
हांगा-थंय
आप्टू-धपटून अगणीत
चेपां पडील्लें पोन्नें आयदन
तशें-
उरील्लें आयुश्य....
आतां
मागीलदारा घराफाटल्यान अखंड
व्हांवतल्या न्हंयच्या खोलायेचो अर्थ
मनाच्या गिमाळ रखरखीत मातयेंत मुरपाखातीर
कुपाकुपांत फुलां कशीं जोगलां फुलून
वाऱ्या–वादळाच्या सांगातान
एका वेगळ्या झडटल्या मिर्गा –
– पावसाची वाट
आंगभर फुटील्ल्या अलक्ष जागरूक दोळ्यांनी
हांव
व्हडा उमळशिकेन पळेत रावलां....

## गांव

केन्नाय तरी
म्हज्याच तनेरींत आसतना
हावें
म्हजे म्हाकाच विचारलें :
म्हजो गांव
कित्लोसो पयस् आसा ?
रोखडीच जाप आयली :
खूपच पयस्.

तेन्नासावन म्हाका
इल्लें इल्लें कळूंक लागलां :
म्हजी सरावलेली नदर
भर दिसाच्या विखाळ उजवाडान
कुड्डी जाल्या,
पुराय शेणल्या... आनी
दीस,
म्हयने,
वर्सां –
एका फाटल्यान एक
सुकील्लीं पानां कशीं झडून
वाऱ्यार हुबत रावल्यांत....

गांव अजून
कितलोसोंच पयस् आसा !

## तीन ॲब्सर्ड कविता

(१) सवण्यांचीं भिऱ्यार भिरीं
येन्नाच कशीं
आपापल्या घोटेरांत परतलीं ?
निक्तेंच तर
उजवाडटा अशें सगळेच जाण एकमुखान
म्हणूंक लागल्यात... आनी हांगा
म्हज्याच नोर्मल ऩदरेक
सुर्या
अस्तमलेवरी झळकून
जळींमळीं पातळूंक लागिल्लो काळोख
म्हज्या काळजांतल्या अथांगाचो
आतां ठाव घेवंक लागला....

(२) भायर –
– भितर मसणशें मदयानलां...
आशीकुशीक कोणाचीच जाग –
– माग ना.
सरभोंवतणीं कांय शिंपडून घरां आशिल्लो
एक मुंखो धाकटुलो गांव.
लागसारच लाडाबायच्या एकमुळ्या
देवळांत भुतां फोव कांडिल्ल्याचो भिवखुरो
आवाज
आनी हावें,
एकटोच दाट कांळखाचें बोट धरून,
खयं वचूंक पावल उखल्लां

म्हाकाच कळना... जाल्यारूय
शाण्या शेजाऱ्यांलीं नश्टीं उतरां अचळय म्हज्या
कानार पडटात : 'चल्लें पळेयात
पिशे रवळुचें कूळ दनपारच्या कडार' ; फाटोफाट
तांगेलोच कोडूझार, भुंगुल्लों कसो
काळीज पोखरपी हांसो...

(३) आरे उठात;
दोळे उगडून मात्शी भायर नदर मारात :
पौशांतली दंवांत न्हाल्ली-धुल्ली फांतोड
सैमाचो घमघमीत वास आशिल्लो हातो माळून
उदेत्या सुर्याक येवकार दिवंक
कशी नटून-थटून रावल्या !
झाडापेडांच्या वेंगेंतल्यान सुटुन पयस्
दिगंताचो माग काडीत पाखरां उडूंक
लागल्यांत...
रंद्रारंद्रांतल्यान म्हाका मायेन
सांसपितल्या कंवळ्या किर्णांच्या सुवर्ण-स्पर्शान हांगा
हांव सुखावलां... तृप्त जालां !
मागीर-
आंगणांतल्या तुळशीमुखार खंयच्या शाण्यान
निक्तोच दिवो लायला... आनी
सगळ्यांनीच आपापल्या घराचीं
कवडां धांपून रात तेकील्लेवरी कुडीकुडींनी
दिवे,
मेणवाती किद्याक पेटयल्यात ?

आज्जेन म्हळें :
कसो कोण जाण !
अचकीत
वारो मुरलीधर कसो
शियोणी घालीत आयलो... आनी
दिशीं दिशीं
ओड्ता-पोरसांतली झाडां
फुलत...फळत गेलीं...
चैत्र खूब पयस् आसूनय
सैमाक कोगळाचो सूर फुटलो...
पूण आमकां माणकुल्यांक त्या
वाऱ्याची मातय सुलूस लागलीना;
आमी फक्कत पळेले ते
आज़्जेन भरील्ल्या दोळ्यांनी
अदृश्टाक जोडील्ले हात...

## चलत रावतना

मोन्यानीच
एकलो एकसुरो एकसारको
चलत रावतना
वेळ-अवेळाच्यो शिमो हुपिल्ल्या खिणाक
आपशींच
पावलांक उतरां फुटलीं... तीं
उलोवंक लागलीं...
आनी
धर्तरिच्या कणाकणांत पिंकील्ली
पांचवीचार पर्मळाची पसय... तिचो
उर्बेभरीत उजवाड म्हजेखातीर
एक वेगळी वाट रचून... रेखून गेलो...
–त्या वाटेन
आतां हांव चलत रावलां...

## आनीकूय

देंव बाबा,
देंव;
आनीकूय
खोलायेंत देंव...

पेंव बाबा,
पेंव;
आनीकूय
हुंवारांत पेंव

## सपनभार

आतांच मद्यान उलगल्या आसुंये.
न्हिदेभारान पुराय पिकील्ल्या म्हजेर कोणेयतरी
बर्फाची लादी दवरील्लेवरी सरत्या
डिसेंबरांतल्या शिंयां–कुडकुड्यांत हांव सपनेलां :
म्हज्या घराफुडल्या दोंगरामाथ्यावेल्या
नितळ मळबांत एक निळें निळें वज्र कशें
नक्षत्र निक्तेंच उदेता... आनी ताचो दैदिप्यमान
उजवाड म्हज्या काळजांत खोलमेरेन
रिगून...रुजून... शिरंत्रांतल्यान सगळो संसारभर पातळ्ळा...
म्हण-म्हणसर नकळटां हांव दुसऱ्या सपनांत घुस्पलां :
लख्ख उटंगार उजवाडाच्या झोतान
म्हाका अदिश्टाची झिंग हाडपी नक्षत्र मळबांतल्यान
तुटून आतां बाण कशें म्हज्याच दिकेन सुटलां... आनी
त्या अकल्पित अरीश्टांत आकांतान खाचीकोयंडे,
दोंगर, झिलींतल्यान, वाट फुट्टा थंय,
खर्शेखर्शेत हांव पळत रावलां...

सपनभार उतरून सारकी जाग
येवपाक अजून खूब कळाव आसा.

## स्वगत

'हरशीं
हावं तुमकां वळखतां...
पुण नांव विसल्लों.'

'म्हजें नांव :
आनंद पांडुरंग रामाणी.'

'अशें !
मागीर कविता करता तो रामाणी
कोण तुमचो ?'

'तो ऽ ?
प - य - सु - ल्या - न
म्हजो भाव लागता.'

'खयं रावता?'

'प - य - स.
एका अटंग्या रानांत
एकटोच.
देंवचार कसो !'

'म्हाका एक सांगात :
तुमी वाचलां
ताणे आजमेरेन किदें बरयलां तें ?'

'ना सायबा !
खरें सांगूं तुमकां ?
तागेल्यो कविता
माती-गोबर जें किदें आसा
तें आमकां घरांतल्या कोणाकच

कांयच समजना.
आमगेलीं सगळीं, काचीबुचीं लेगीत,
ताका पिसो, मालूक म्हण्टात....
तो जातनाच तसो जाला म्हूण
एकलो एकसुरो रानांत वचून रावला...
आतां तो
आनी ताचें नशीब!
कळ्ळें न्हयं तुमकां?'

'कळ्ळें कळ्ळें.
बरें. येतां हांव.
आदेऊश ई मुयतु ओब्रिगादु.'

# कवितांचे रचनाकाल

## आमचीं कांय नवीं प्रकाशनां

- साहित्य सुवाद
  — डॉ. मनोहरराय सरदेसाय
- चित्रांगदा
  — पांडुरंग भांगी
- मृद्‌गंध
  — सुरेखा तोटेकार
- सैम-घुडी
  — उदय गांवकार
- पारजत फुलां
  — नरेंद्र कामत
- जैत
  — श्रीधर कामत
- शीला
  — एन्. सुहास
- गाज
  — शशिकांत पुनाजी
- मोतयां
  — रोहिदास मंगेशकार
- अक्षयदिवो
  — आनंद वर्टी
- निळें निळें ब्रह्म
  — शंकर रामाणी
- कविता : काळ रेल्वेच्यो
  : मन हारशांच्यो
  : पावसा पाणयांच्यो
  — प्रकाश पाडगांवकार
- सर्ग घडपाक धर्तरेचो
  — प्रकाश पाडगांवकार

